# ऋतु

कवितेचें कोंकणी द्विमासिक

वर्षा अंक : जुलय-आगस्ट, २००३

*

संपादक

गोकुलदास प्रभु

*

छापपी आनी उजवाडावपी

अनिल पै

कुळागर प्रकाशन, पॉ.बो.नं. ७८,

मडगांव, गोंय - ४०३ ६०१

*

छापणावळ

गणेश प्रिंटिरस

मंगळूर - ५७५ ००३

*

संपादकाचो पत्तो

२५-२१-१३२०-४२

न्यू मजिला कॉलेनी,

जेप्पू, मंगळूर - ५७५ ००२

*

मोल १० रुपया

वर्सुकी पटी

(विशेशांकासयत)

६० रुपया

*

व्यवहाराचो पत्तो

२५-२१-१३२०-४२,

न्यू मजिला कॉलेनी,

जेप्पू, मंगळूर - ५७५ ००२

## मांडावळ

# संपादकीय

जेन्ना एक सुन्दर अणभव आनी भासेचें सौन्दर्य एकरूप जाता तेन्ना कविता जल्मता. कविता म्हळ्यार साहित्याचो सर्वोच्च प्रकार अशें मानतात. कवितेच्या माध्यमांतल्यान मनशांच्या सुंदर अणभवांचें दर्शन घडोवपा खातीर वेगवेगळ्या भासानी खास नेमाळीं येतात. ऋतू द्विमासिक ह्या पंगडांतलें, कोंकणी कवितेक ओंपिल्लें नेमाळें. तांतूत भासेचो आत्मो पडबिंबित जायत आयला.

केन्ना तरी, ऋतु चक्र अकस्मात चुकता. हें द्विमासिकय कांय वर्सां बंद पडिल्लें. तें परत उजवाडा हाडपाची काळाची गरज भोगताली. ऋतु पुनर्जीवित करून ती भागोवपाचो वावर करीत आसतना आमकां मोटी खोस भोगता.

ऋतूच्या फाटल्या अंकानी आमी कोंकणी कवितचें भव्य आनी भोव-आयामी रूप पळयलांच. फुडल्या अंकानीय रसिकांक कोंकणी कवितेचे प्रतिभेचो साक्षातकार जावचो म्हणून प्रयत्न जातलो. पुण कवितेविशींचे रसिकांचे, समीक्षकांचे आनी खासकरून कवींचे विचार कितें, तें समजून घेवपाचो ऋतूच्या व्यसपीठावयल्यान वावर जातलो.

देशांत आनी विदेशांत शिंपडून पडिल्ल्या कोंकणी समाजाच्या विभागां कडेन कवितेक ओंपिल्लें हें नेमाळें चुकयनासतना पावोवपाची आमची इत्सा आसा.

कोंकणी कवितेच्या साक्षातकारी वावरांत सहभागी जावपाक सगळ्यांक येवकार.

## नागेश करमली

# पावसाची होरावणी

पावसा तुजे खातीर
ही होरावणी .........
तूं मेघ -
साक्षात् पुरुषावतार !
तूं वर्षा -
ललित नर्तना उदार नार !
तूं कूप -
निष्पाप भूरगेंच
जशें येता वयार !

तूं सांवार
धारधार !
तूं आर पार
तूं भारोनभार
तूं मुसळधार !

पावसा तुजे खातीर
हे घर्तरिक
म्हजे धारिणीक
ना थार .......... !

जा उदार
जा उदार ........
पावसा,
दडक दडक जावन
रक सायबा
भिजय, भिजय
म्हजे सयत
सगळ्यांचेंच घरदार
शेत भाट
दोंगर घळी दर्याचें ल्हार
आरपार !

# गोंयांतलो पावस

घनगंभीर पावस
मनसुंदर पावस
पावस आषाढरंगी
श्रावंणगुंगी पावस
पावस मृगनयनी
पावस आश्लेषपवनी
भाद्रभांगरी पावस
पावस -
पोट्टूरपिसो पावस
आर्तभोंवरी पावस
पर्वतपोवनी पावस
कृष्णकमळी पावस
पावस रुप्याहुनती
धगमोडणो पावस
चंचळ पावळी पावस
इंद्रधोणवी पावस
भूलभूलय्यो पावस
रंग शिंपडणो पावस
मल्हार मृदंगी पावस

आनी पावस -
पावस धारांनी
पावस शिरांनी
पावस केरांनी
पावस मेरांनी
पावस वेरांनी
पावस धर्तरिच्या
चराचरांनी !

पावस पांवळ्यांनी
पावस घोग्यांनी
पावस कुसूकुसू
कुसांनी
पावस पोंयांनी
पावस बांयांनी
पावस बांदांनी
पावस तळयांनी
पावस व्हाळयांनी
पावस नदयांनी

पावस शेनांनी
पावस सैमाच्या
रुंवां रंद्रांनी
पावस नखऱ्यांनी
पावस भौवऱ्यांनी
पावस नवलांनी
पांयजण पावली
पाख्यार नळ्यांनी
पावस -
तिपि तिपि ओथांब्यांनी
आनी पावस -
अचकीत दडकांनी !

पावस सुरांनी
पावस तालांनी
पावस मल्हार मेघांनी
पावस आलाप तानांनी
पावस दिकांनी
सगळ्याच वाटांनी
पावस मनओल्या
पावलांनी,
पावस ह्या

पावस न्हाल्या कवनांनी
कवनांतल्या उतरांनी !

# मळबाक लगल्या धार .....

आज मळबाक
लागल्या धार .......
दोंगरा आर
दोंगरा पार .......
आनी
काळजाकप्यांत
उब्याउब्यांनीच
श्रावण नाचता
श्रावण हांसता
श्रावण-भार
काळीं काळीं
कंवळीं कुपां .... अशीं....
जालीं आतां
म्हजीं हजार रुपां

रुपा रुपांत
म्हजोच म्हज्यांत
वावझडीचो आपालिपा
दोळे मोडीत
दोळे दोडीत
चल्लीं कुपां.... हुबलीं कुपां
कुपा कुपा नदर खर .....
सगळेंच जालें
सथर विथर
भायर भितर
भायर भितर
दोंगरा आर
दोंगरा पार.....धार धार...... !

## प्रकाश पाडगांवकार

# हांव एकसारको धांवत

हांव एकसारको धांवत रावलों
आनी धांवून धांवून खर्शेत
खूब मुखार पावलों
अशें मनाक दिसलें म्हूण
फाटीं वळून पळयल्यार
हांव पयलीच्याच जाग्यार
तसोच एकलो एकसुरो

धांवून धांवून मुखार पावपाचे आशेन
हांवें आपणायल्ले आनी हुपिल्ले
आडे तशेच पूल
निवळायत अटंगी रानां
हुमटून काडिल्ले आडखळींचे दोंगर
करीत उबे जाग्या जाग्यार
श्रध्देचे हिमालय

हांव आता निश्चल आसून ना कसो आनी
जे जाल्ले उबे श्रध्देचे हिमालय
तेय थंयचे थंयच वितळ्न
जाल्यात भुयभर्वण
म्हजे भावडे श्रध्देचे
कुडके कुडके म्हजेरुच शेंवटून

आता जंय हांव एकसुरो उबो
थंयच साकारता नवो जाणविकायेचो हिमालय
सांगातान म्हाका केंद्रबिंदू कसो उबारुन
सगळे वटेन म्हजेच स्वअस्तित्वतायेचीं किर्णां व्हांवयत
जांका ध्यास
सासणाखातीरच्या कर्तृत्वतायेचो

# घर

म्हजें राबित्याचें घर
हांव बंद करुन
मुदासांवाक वतलों
तेन्ना वण्टीवेलें घडयाळ
टिकटिकत काळ जागयत आसतना
घरभर उजवाड - काळखाची शेवर्णी
नाचत खेळत
किटकिटत रावतलीं

आनी हांव
घरा पसून पयस आसलों जाल्यारय
घरातली एकान एक वस्त
म्हज्या हुनसाणीची, म्हज्या स्पर्शाची
याद धुपयतना
देवाऱ्यांतल्या दिवलेतली
हांवे पर्जळायल्ली
म्हजी आत्मज्योत सारतली

# मातयेच्या देहाक

मातयेच्या देहाक म्हज्या
सकाळ सांज न्हाणयतां
तरी ताचेर धुल्ला थर
एक सारको एकवट्टा

मातयेच्या देहाक म्हज्या
लागता भुको आकांता
खाता ताची माती करून
भरपाचेंच येवजिता

मातयेच्या देहाक म्हज्या
दिश्टावो नव निर्मणे
दुवाळ्यांच्या सुवाळ्यांत
काळाचे रंगता पेणे

मातयेच्या देहाक म्हज्या
ओड फकत मातयेची
मातयेंत सहज एकरूपून
जोडटा निशाण जल्माची

# रगताचो धर्म

म्हज्या सर्वधर्मी भावानो आनी भयणींनो
रगताक लागना जात, रगताक लागना कात,
रगताक लागना भास, भेस, पंथांचें सुयेरसुतक
रगताक व्हांवचें आसता एकसारकें
मनशांच्या शिरांनी
हेंच आमकां आयज दाखोवन दिलां
आमीं दान केल्ल्या
रगताच्या ह्या भरून दवरिल्ल्या बाटल्यांनी
हयो बाटल्यो पळोवन सांगत आमकां कोणय
ह्या बाटल्यांतलें खंयचें रगत मुस्लीम अब्दुल्लाचें?
खंयचें रगत हिन्दू विष्णूचें?
खंयचें रगत किरिस्तांव जॉनाचें?
खंयचें रगत शिख अवतारसिंगाचें?
म्हज्या सर्वधर्मी भावानो आनी भयणींनो
आकंताच्या वेळार
हेच रगत आमीं दान केल्लें
येतलें धांवून आमच्या एकामेकांच्या आदाराक
आनी आमचें एकामेकांचे रगत
एकामेकांच्या रगतांत भरसून
आमकां जीवदना दितलें
देखून म्हज्या सर्वधर्मी भावानो आनी भयणींनो
आमीं अशी "रगत-दानां"
पर्तून पर्तून करपाची सामकी गरज आसा
आमचें एकामेकांचें रगत
एकामेकांच्या कुडींत व्हांवतें दवरूंक
आनी तिगोवंक
आमच्या कुडींत व्हांवतल्या
रगताचो धर्म

# मूर्तिकार

भर गर्देतल्या रस्त्या कुशीक
एका परदीशेर पुणून फिशाल मूर्तिकारान
मांडला विकपाखातीर
तरेक देवांच्या मूर्तिंचें प्रदर्शन

वाटेवेल्या येतल्या-वतल्या लोकांच्यो
ह्यो मूर्ति नदरो वोडून भान हारयतात
आनी तांका थंयचे थंय थारावन
त्यो घरा घेवन वचपाक फुसलायतात

ह्या फिशाल मूर्तिकाराचीं
पाळां मुळां कितेंय आसूं
पुणून ताचो चुरचुऱ्याचो अवतार पळयल्यार
सुसंस्कृत समाजाच्या नदरेन
तो उणाक, उपेक्षीत, ताळपासारको प्राणी· !

जाल्यारय हो मूर्तिकार
ब्रम्ह निर्मातो, नियंतो ह्या मुर्तींचो
आनी जे जे कोण ह्यो मुर्ती
घरा व्हरून भक्तिभावान पुजेक लायतले
जावन त्यो सचेतन
जातल्यो त्या त्या मनशांच्या जिणेचेंच आंग

आनी हो पादीशेर, फिशाल मूर्तिकार
सगळ्या देवांच्यो मुर्त निर्मून निर्मून
त्यो विकीतच उरतलो
आनी काळान ताका दवरला जाल्यारय उपेक्षीत
ताच्या कर्तृत्वावरवीं
उरतलो काळच उपेक्षीत

# मनीसधर्म

पृथ्वी पोसपी पृथ्वी तारपी
घर मनीसकुळयेचें
ईश्वरी शक्तीन नत्यि कार्यांवित
म्हातारूं ब्रम्हांडाचें

एकामेकांक पावप होच
धर्म मनीसजातीचो
सगळ्यांच्या कुडींत व्हांवता
झरो तांबड्या रगताचो

धर्मधीश जे करती फित्रुसां
समजुन विश्वस्त्र ईश्वरा
हाडीत लज मनीसकायेक
तांची काकुळट करा

झडिल्ल्यांक पडिल्ल्यांक जो
वोडुन वेंगेंत घेता
हाचोच धर्म जगाक तारतलो
तोच देव समेस्तां

# झुज

वाजपेयी आनी आडवाणिच्या कदेलांचो
एक पाय
आपल्या उतरांनी मोडून
मुशार्रफाच्ये मिलिटरी फवजेची
तोखणाय
करतां, भारताक, बेंडून
दाव्या हातान खाडकी उकलून
उजव्या हातान वाकोर घरून
हो पाकीस्तानी केलसी .....
म्हज्या गळ्यालागचें खाड काडता !

पाकीस्तानी सोजेरांच्या हातांत
सापडाल्लया
भारतीय सोजेराची कांप
म्हज्या शिरांनी
खिणाक सोजेराचो ओवतार जावन
गळो कापीत कोण्णा
म्हळ्ळी भिरांत !



रात इकरांक तेकंल्या
सेलुनांत
आमच्या दोगांविणें तिसरो ना
दावो दोळो तिरसो करून
सेलुनांतल्या आरश्याभायर

जनेराच्या हिंवांतलो
निदोंक गेल्लो, दुबायांतलो
मारोग देखताना
कार्गिल दोंगरावयल्या कुलकुल्यांतय
झुजल्लया सोजेरांबरी
गोमटचाच्यो काती
वाकोराच्ये धारींलागी
झुजतात भोगता.

हांव 'मलबारी' या 'मद्रासी'
तो विचारता :
'मंगळुरी' म्हजी जाप
'आमचीं मिसायलां आतां
वयरथावन सकयलपासून
तुमच्या करेळाचीं सयत खिमां
करच्ये ताकतेचीं'
- तो म्हज्ये गोमटेची कात
वोडन धरन उरल्लीं खाडाचीं
थोडीं मुळकाटां खरवाटायता.
'सगळें काशमीर आमचें
हो कंट्रोलाचो गीट वोडला देकून
अकांतवादाचें पीट
फुगनासतां रावता ?'
मदें मदें उरदूंत
गाळी दीवन आसल्लो केलसी, एकानेक
'बुलशिट्' म्हणोन
दार उगडोन भायर थिंपी थुकता

ओल्डस्पायसाचे थोडे थेंबे
म्हज्या गालांचेर पुसताना
जांव्च्या हुलोपान
लाहोर सोल्त्याचीं कोसाळ्ल्लीं रुपां
म्हज्या दोळ्या सामखार कुपां
जावन मांडतात.

'आमी बोर्डरावयले मनीस
इंडियाच्या गुळ्यांक
आमचे संबंध तुटतात
काळजां फाळतात
आनी कुटमां कोसाळतात
तरी आमी
भियान निदनांव
आमी रगतांत न्हातांव
आवी हरयेका मनशा संबंधा मदेंय
उण्यार एके बोंदुकेक जागो दितांव
म्हज्या सात वरसांच्या
फातिमाचो अत्मो
बोर्डराचेर पासायो मारता
आनी आमचेकुशीं उसाळच्या
गुळियांची दिशा बदलिता
तशें आमी
भिरांतविणें भोंवतांव !

धारूण लेकल्लया केलशिचें
काळीज लोणयेबरी कडता
आनी दोळ्यांतलें एक दूक
झडोन म्हज्या आंगार
पांगरल्लया वस्त्राचेर इरता.

म्हज्या गालांचेर
'नीविया क्रीम' माखताना
ताच्या तळहाता भितर
कांपच्या शिरेंचो शिरशिरो
म्हज्या गालांच्ये कातीवयल्यान
चरोन काळजाक कसकसायता.

हांव उटतां
आनी हरशेंच्याकय पांच धिराम
चडतीक भकशीस दिताना
'शुक्रिया साहीब
बडी मेहरबानी आपकी'
तो म्हणता आनी भायर वेच्याक
दार उगतें करता.

काळोकांतल्या दुबायांतल्या रसत्यार
चलोन वेताना
म्हज्या गालांक आपडतां.
सकड साफ सफाय जालां
म्हळ्ळयाची खातरी करचे आदीं
रसत्या बगलेच्या रूकाचेर
सोजेरांचे कोण्णा
दोन अतमे
किडकिडचे आयकतात..

म्हज्ये मतींत नव्यान
एक झुज सुरू जाता
आकेर नातल्ले झुज !

## शरतचंद्र शेणै

# फाल्या

फाल्या
कोणुच म्हाका सोदचो ना -
सोदलो तरीय
हांव कोणाक मेळचो ना -
पुण
अप्रूप एकल्याक एकदां
मेळत म्हजो आत्मो
एके कवितेंत घुसपून पडिल्लो -
कांय उतरांनी दसून राविल्लो -
भाव विचारांनी शेणिल्लो -
आत्मो फकत
देहातूंच रावता अशें ना -
ताका रावपाक
उतर पुरो
रंग वा शब्द पुरो
तो देवा सारको
वा देवूच ।

# दर्शन

हासमुखें भुरगें -
ताचे लागीं उलयत खेळत
ताची हासमुखी आवस

दर्शन हें
दी माका
दर दिसा..

# उतरां

उतरांचें मोल कळूंक
गरज मौनाची -
मौन तोखेवंक
गरज उतरांची -

■

उतरां उतरांचें नातें
तशें
मनशां मनशांचें नातें ;
मातशें अंतर मदीं मदीं
भोव गरजेचें -

●

एक उतर अनमोल
चड उतरांक
ना मोल-

●

उतरांचो मोगी,
तोच उतरांचो धनी -

●

आत्मो म्हज्यांत,
अर्थ उतरांत -

●

मांस लासतलें
हाडां फुटतलीं
दीस सरतले
उतरां उरतलीं -

●

# एका काळार

वाट विसरुन रडपी पोराक
घराकडे पावयताले आमी -
आखाड्यार येवन मागतल्ल्यांक
तेल फोंवे दिताले आमी -
पुण आतां :
फातर जायत गेलां काळीज !
सोयरो म्हणून दायजी आयल्यार
दुबावान भरता नदर -
मार्गार अपघात दिसल्यार
वळता पाय दुसरे वाटेर -
मागतल्ल्यांक पळयल्यार
थारायतात - सगळे चोर !

एका काळार
पाक्या घर , पाचवी जीण -
पुण आतां तर
फ्लाटा-घर, घावंती जीण.

# चिरपुटां

१. सगले माड कातरून
ताणें व्हडलो बंगलो बांदला
आनी ताका "Palm Grove"
अशें नांव दिलां

२. म्हजी प्रार्थना
देवान आयकली काय ना
खबर ना
पुण हांवें ताटांत
उडयल्लो रूपया
पुजाऱ्यान पळेलो
इतलें हांव जाणां

३. ती आदीं मेकअप करता
आनी मागीरूच
हारशांत चोयता

४. वांकडे वाटेंत
हांव म्हाका मेळटां
तेन्ना
म्हजी वळख दाखयनासतना
मुखार सरतां

५. वेतानां तुवें म्हळें
"येतां"
आनी आतां जल्मभर
तुजी वाट देखतां

६. एक चिरमुलीशी चली
म्हज्या म्हयांत बसली
म्हजो हात लागला मात
ल्हाय कशी उसळ्ळी

## पी. जी. कामत

# पवळीं

तुजी सावळी देखपाक म्हजे
दोळे वांवटेले
तुज्या पावलांचो शब्दू आयकूक
कान तानेले.

•

मोगा तुपा-वाती तुवें
म्हज्या हरद्यांत जळयली
म्हज्या जीवा-हंसा पाखां
लासून गोबोर जालीं.

•

हांगा कांट्याक मोल
खुंदयाक मोल
फुलाक कळ्याक मोल ना.
मोल आसा गोडाक
मोल आस कठारीक.
गोड तोणडांत घाल
कठार हरद्यार खोंच.

•

उत्तम गुरु तो, जो
शिष्याक दोळे दिता
तो गुरु कसलो, जो
शिष्याये दोळे कोंकीता ?

•

धनी आयलो आनी
फुलां खुंटून गेलो.
फाल्या परतून येतलो
म्हाका-तुका खुंटतलो.

•

गावांत इस्कोल कित्याक ?
मास्तरांक पोट भरूक
- अशी लेकच्या गांवांतलीं
भुरगीं कशीं आसतलीं ?

•

१

## नदरेचे धांवेक

पानांची खळसळ
तशे म्हजे स्वास.
उभजता दोळ्यांक
सप्नांचे भास.

काळजाच्या कांठार
झुकिल्लो चंद्रिम.
नदरेचे धांवेक
ना मेर ना शीम ...

२

## फुलता तरीय दीस

ओंपिल्लें पोशांत
दिसाचें दान
मिटिल्लें दोळ्यांत
किर्णाचें रान.

सोंसता दूख देंठ
फळाचे आशेन
फुलता तरीय दीस
कळये भशेन ...

३

## गाथा

तळयाक वळसो घालीत
वचपी वाटेर
उदेल्ल्यो
कोणाच्यो ह्यो पावलां-कुरवो ?

घराच्या पाख्यावयलें
चोची-चोचींतलें
पारव्यांचे मिथून
करता म्हाका खूण.

होंवरेंतली कोण एक
यक्षिण आनी यक्ष
विळख्यांत एकामेकांच्या
भोगीत खिणां लक्षलक्ष.

४

## कविता

रंगल्लें
कुपांचे खंड
अस्तंतेच्या किर्णांनी
तुजे पोलेच जशे
तांबशे तांबशे
म्हज्या ओठांच्या खुणांनी ....

## कवि मन, कवि मत

# गीत आनी कविता

गीत आनी कविता ह्या दोन कवितेच्या प्रकारांच्या रूपांचो विचार करतना एक प्रश्न मुखार उबो रावता तो म्हळ्यार तांकां दोन वेगळे प्रकार मानचे काय एकूच मानचें? खूप फावट ह्या दोनूय काव्य प्रकारांक वेगळावपी शीम स्पष्ट दिसना, देखून हो प्रश्न उबो रावता. ह्या दोनूय काव्यप्रकारांमदी तांत्रिक नदरेन मुळावो फरक आसा अशें मानूक सुवात ना. फित्याक तर काव्याच्या अणभवाचे विशिष्ट तरेचे रुपकार आसात. ह्या विधानाची फोडणिशी दोन देखींचो आदार घेवन करूंक येता :

पोरसांत म्हज्या आज फुल्लीं आबोलीं
धनी म्हजो आयलो - सुखी हांव जालीं
आज सुखी हांव जालीं

वायट दीस सल्ले म्हाका भांगरा दीस आयले
वाट पळोवन सुजिल्ले दोळे आज पळे फुल्ले

सात दर्याचो राजा - म्हज्या जिवा भावाचो
तुज्या बगर म्हज्यान आतां दिसूय काडूं नजो

भांगराचें उतर तुजें भांगर म्हाका नाका इतर
धादोशी जायन हांव मेळ्ळ्यार तुज्या ओठां पोवळीं

(पूंजायल्लीं ओवळां : यशवंत केळेकार पान 19)
आनी ही दुसरी रचना पळयात :

गगन धना रे
श्रवण सुगंध ओतीत यो
सपन धनाचो
प्रकाश दिगंत रकयत यो
गागन धना रे

मोगीया मनाचे
जाग्रण उले ओलायत यो
फुलत जिणेचे
पारजत कळे वेंचित यो
गगन् धना् रे

अजाय 'सुरांचें'
म्होंव सुरेलें माखित यो
अनंग रंगाच्या
पांयजण घुंगरां वाजयत यो
गगन धना रे

(वशंकुळाचें देणें : नागेश करमली पा 44)

ह्यो दोनूय रचना भायल्या आकृतीबंधाचे नदरेन विचार केल्यार एकूच दिसतात. पूण त्यांच्या आंतरीक रचनेचो विचार केल्यार तांचे मदलें वेगळेंपण लक्षांत आयलेबगर रावना. दोनूय रचना एका विशिष्ट छंदाचे फास्केंत बसयल्यात. तशेंच आंतरीक रचणूक कितली वेगळी आसा ती पळोवया. यशवंत केळेकाराली रचना खूप दिसांनी धनी घरा आयिल्ल्याची खोस मनयता. तांतूतले उमाळे साद्या सोप्या उतरांनी व्यक्त जातात. तांतूत ओठां-पोवळीं 'भांगरा-दीस', 'सात दर्यांचो राजा', 'भांगराउतर' सारकिल्यो सगळ्यांचे संवकळीच्यो प्रतिमा येतात. तांची सांकेतिकताय आशयाच्या आवाठाक मेरो धालतात. ताकाच लागून ती निखटी गिताच्या पांवडयार उरता. ह्या संदर्भांत करमल्याचे रचनेसंबंदान तशें म्हणूंक मेळना. तांचीय रचना एक विशिष्ट छंद आपणायता. तरी तिची प्रतिमा सृष्ट खूप वेगळी आनी अर्थ आशयाची व्याप्ति वाडोवपी. देखीक 'श्रावण-सुगंध', 'अजाप-सूर', 'सपनधन', 'जाग्रण-उले', 'अजाप-सूर', सारकिल्या नव्या प्रतिमांक लागून निव्वळ गिताच्या पांवडयार राव नासतना कवितेचे उंचायेर झोंपय घेता.

आकृती बंधाचे नदरेन विचार केल्यार गीतांचे आनीक एक लक्षांत येवपा सारकें लक्षण आसा. गिताचो आशय ताच्या सुरवातीच्या वळींनी-म्हळ्यार धृवपदांत - व्यक्त जाल्लो आसता. आनी मुखावयल्या कडव्यांनी ताचो विस्तार येता. यशवंत केळेकाराल्या वयर दिल्ल्या गितांत 'पोरसांत म्हज्या आज फुल्ली आबोलीं / धनी म्हजो आयलो सुखी हांव जालीं' ह्या धृवपदांत खूप काळाउप्रांत घरकार घरा आयिल्ल्याची खोस व्यक्त जाल्या. ताचोच विस्तार मुखावयल्या वळींनी जाल्लो दिसता. आनी देखून प्रत्येक कडव्याचें आवर्तन घेवन परत मूळ धृवपदाकडेन येवंक मेळटा. पूण कवितेंत तशें जाल्लें दिसना.

उतर उतर जालें
तुज्या गजराचे बोल
गेलें सगळ्याचें मोल
तुका सोडून.

ना गा जाणवली जीण
फुलां फुलां जाले खीण
गेलो सोडून गा शीण
मनांतुलो
कोण असो कसो गा तूं
आगळीच उचंबळ
सोदी मनाची उमळ
पावलां तुजीं



(सावूलगोरी : रमेश वेळुस्कार पा. 59)

अभंगाचो आकृतीबंध आशिल्ली ही रचना गीताभशेन दिसूंक येता. पूण तें गीत जायना. तिका कवितेचेंच मोल आसा. ते भायर ही रचना अर्थाच्यों कितल्योश्योच शक्यतायो दाखयतात.

कविचे नदरेन कविता येवप आनी गीत रचय ह्या दोनूय प्रकारांचे निर्मिती प्रक्रियेंत खूप फरक आसा. कविता येतना ताका एका विशिष्ट छंदाचो विचार करचो पडना. कवितेचो आशयूच तो थारायता. विशिश्ट छंद, वृत्त वेंचपाची मेकळीक एका अर्थान कवीक आसना. पूण गिताचे रचनेंत तशें जायना. गिताचो आशय तो पयलीं आपल्या मनांत थारायता आनी मागीर ताका आकार दिवंक आपल्याक जाय त्या छंदा-वृत्ताची निवड करता. कांय फावट तागेल्या मनांत विशिश्ट स्वरांची फास्कीय आसता.

तशें पळयल्यार गीत ही एक संमिश्र रचना आसता. तातूंत मुखेलपणान तीन घटकांचो आस्पाव जाता : गीत रचपी, संगीत रचपी आनी गावपी. हांकांच लागून गिताचे छापणावळींचे रूप आनी । स्वरांच्या माध्यमांतल्यान व्यक्त जाल्लें ताचें रूप हातूंत खूप फरक पडटा. गीताच्या संदर्भांत सांगीतकाराचे भूमिकेक आगळें वेगळें म्हत्व आसा. तो स्वरांच्या माध्यमांतल्यान गीताच्या आशयाक आकार दिता. आनी गावपी आपल्या स्वराच्या माध्यमांतल्यान त्या आशयाच्या रूपाचें प्रगटिकरण करता. आपले तांकीप्रमाण तो उतरांनी प्राण फुंकता. देखून गीताक एक performing मूल्य प्राप्त जाता. छापिल्ल्या रूपांतली रचना मनाचेर परिणाम करूंक पावना ती स्वरांच्या माध्यमांतल्यान अधीक परिणाम करूंक पावता. पूण अस्सल निजाचे कवितेक स्वरांचो आधार घेवचो पडना. ती आपतेजान लखलखत आसता.

कविता आसूं वा गीत ताचें काव्यमोल नदरेआड करूंक फावना. रवीन्द्रनाथानी खूप गितां रचली तीं आज कविता म्हणूनूय आमकां आनंद दितात. उमाळ्याचो वोग आनी अभिव्यक्तीची खरसाण तांकां हें काव्य-मोल प्राप्त करून दितात. देखून :

पावस माथ्यार पावलो
मुजे मांय दर्या गाजोता
दर्या देगेर बसून मुजे मांय
हांव ल्हारां मेजितां

- सारकिल्यो लोगागिताच्यो वळी श्रेष्ठ कवितेची उंचाय गांठून वतात.

■ **माधव बोरकार**

# माकडांचीं घरां

माकडांचीं घरां बाये
माकडांचीं घरां
सगलीं वरां अशींच गेलीं
तोडीत तोरां पेरां
जेन्ना आयली काळखी रात
लागले माकड कुडकुडूंक
रूखा-खांद्यार थरथरूंक
भेलयो माकड लागलो चिंतूंक !

आमकां सुवात ना गा न्हिदूंक
म्हशी-गायांक गोठे आसात
सुकण्या-पिलांक घोटेर आसात
हुंदरा-पिलांक बिळां आसात
म्होंवा-मुसांक मालीं आसात
वागा-पेट्यांक धोली आसात
मनशां-पोरांक घरां आसात
मनशाचे पणजे आमी
आमकां कित्याक घरां नात ?
माकड आमी सामके पिशे
जातले शाणे केन्ना, कशे ?
सगल्या जाणांक आपयले
पिंपळा-पेडार बसयले
माथें नेटान खरपिलें

"हूप ! हूप ! हूप ! हूप !
सांगचे आसा खूप, खूप
माकड-बाबू माकड-बाय
माकडा-पोरांक घरां जाय
फांल्यां बेगीन उठचेलें
दांत घांसून धुवचेले
मागीर भाटांत वचेलें
चुडटां-भरे हाडचेले
खांबे बरे काडचेले
घटशें पाखें बांदचेलें
घरशें सोबीत घडचेलें
माकड आनी माकडिणी
करचीं कामां सगल्यांनी
माकडां-पोरांक सांगतां आतां
कावल्यो-बावल्यो फाल्यां नाका
हांगा थंय हेडप ना
तोरां, पेरां तोडप ना
आमकां आतां एकूच पिशें
एका माकडाक - एक घरशें"
सगले माकड जाले खेशी
"उतरां तुजीं बोरां कशीं
फाल्यां बेगीन उठ्ठले
नेटान कामाक लागतले
माकडदादा, फालयां परां
माकडांची बारा घरां

बारा घरां ! बारा घरां !"
बारा घरां मनांत घोळयत
माकड मामा न्हिदले
दुसरे दिसा सकाळफुडें
शेंपड्यो हालयत उठले
पिटपिटायत आपले दोळे
मुखार तांणी देखलें ?
पिके चिकू दिसले
हळडुवे आंबे दिसते
ह्या झाडार त्या झाडार
उडकयो मारीत रावले
बोरां काडीत रावले
तोंरां पाडीत रावले
काळखी रात पडली आनी
माकड झेमूंक लागले
बारीक चिंतूंक लागले
बांदपाचीं आमचीं घरां
तांचे कितें जालें ?
ना रे ना, ना रे ना,
मुखार अशें जावंचें ना
आतां फाल्यां बेगीन उठप
बुन्याद खणप, चुडटां हाडप
कोंडे तासप, दांडे, चिरप
घटशीं बरीं घरां बांदप

बारा बरीं घरां बांदप
उतरां अशीं गुणगुणत
सगले माकड न्हिदले
पुट्ट करून दुसऱ्या दिसा
शेंपडयो हालयत उठले
आंबे तांणी देखले
ह्या झाडार त्या झाडार
उडक्यो मारीत रावले
काडीत रावले पेरां
तोडीत रावले तोरां
खंयचीं मागीर घरां
माकडांचीं घरां अशीं
माकडांची घरां

■ मनोहरराय सरदेसाय